# गुंजो

(कविता संग्रह)

नयना नाडकर्णी कामत




बिम्ब प्रकाशन

गुंजो
(कविता संग्रह)
नयना नाडकर्णी कामत

Gunjo
Poetry Collection by
*Nayana Nadkarni Kamat*

प्रकाशन क्र. **45**



पयली आवृत्ती
2006

छापणावळ
इम्प्रेशन्स
बी-2, 'अक्षर आर्केड'
3360/4, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - 590 002

अक्षर जुळणी
बिम्ब प्रकाशन

मुखचित्र
सुबोध केरकार

'पयलो चंवर' येवजणेंत गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान हो कविता संग्रह प्रकाशीत केला.

प्रकाशक
कामिनी किणी
बिम्ब प्रकाशन
जी.एस.बी.3,
हावसिंग बोर्ड कॉलनी,
पर्वरी - गोंय

मोल : 80/-

ISBN 81-902817-8-X

म्हजे आवय बापायक
आनी
मांव मांयक
मायेमोगान ओंपतां

# 'नैना' बरसे रिमझीम रिमझीम!

नयना कडले म्हजे वळखीचो आरंब गोवा कोंकणी अकादेमींत हांव वचत साकूनचो; म्हणल्यार १९९२ साकूनचो. म्हाका याद जाता ते प्रमाण हे वळखीचें स्वरूप विद्यार्थिनी-मार्गदर्शक सराचें. ('गुरू'चें म्हणपाचें धाडस हांव करना!) मात्त कोंकणी संबंदान किर्ते किर्ते सांगतना, विचारतना तें अर्दी मर्दी दोन-दोन वळींचीं वा चार-चार वळींचीं कवनां बी वाचून दाखयतालें. केन्ना कागदावेलीं तर केन्ना काळजावेलीं, काळजांतलीं! आनी ताका आयकतना सदांच दिसतालें - आयजूय दिसता - 'नैना' बरसे रिमझीम रिमझीम!

नयना नाडकर्णीचें तें सौ. वैभवी विकास कामत जालें, तरी ताच्या उलोवपांतली उतरा कणकणीची ती नमळाय, काळजामेरेन पावपी ती करुणाय आनी कवनांतली ती कलात्मकताय जशाक तश्शी आसा. स्वरबद्ध, लयबद्ध, अर्थबद्ध!

**मनांतल्या स्वैर विचारांक**
**उडपाची चालना मेळ्ळी**
**कांय विचारांक उतरां मेळ्ळीं**
**तींच कवीत-रुपाच्यो पण्ट्र्यो जालीं**
**जिवीत-वाट परजळ्ळी.**

अशीं ताचीं कवना आज 'गुंजो' नांवांन जेन्ना कवितां-झेल्या रूप घेतात आनी सपन-सत्यामदलें अंतर सहजतायेन पुसून उडयतात तेन्ना तर जरूर म्हणन दिसता - 'नैना' बरसे रिमझीम रिमझीम!

गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'पयलो चंवर' येवजणेसकयल नयना चो हो कविता झेलो उजवाडा येता देखून 'पयलो चंवर' म्हूण तर ताची अर्थ अपुर्बाय करूंक जायूच; सांगातानूच ताच्या चार-आठ वळींच्या सगल्याच कवनांनी मनशाच्या मनाचो कॅनव्हास धरून सैमाच्या वसंताचो भार मेरेन सहजतायेन,

मेकळेपणान वावुरता आनी तो रस्माच्या धाग्यांचें नातें सोदपाक वावुरता देखून नयनाचे कलात्मक नदरेकूय परबीं दिवंकूच जाय. ताचे विचार सदांच कवनांचें, कातारांचें, काणयांचें रूप घेतात आनी विश्वाक व्यापून उडोवपाच्या साहित्याचो ध्यास बाळगितात देखून तर ताच्या कवनांची खेरीत दखल घेवंक जाय.

**ऊंच दोंगुल्लेच्या तेमकार**
**उबें आसा तें झाड**
**.......................**
**पूण आपल्या अस्तित्वाची**
**जाणविकाय आसा ताका**

अशे रितीन आपली अस्मिताय सांबाळून दवरून लाचार जावंक दिनासतना मोगाचे झरीखातीर तानेल्लें नयनामदलें 'झाड' जेन्ना 'स्वतंत्र अस्तित्व तिगोवचे खातीर' 'आदार घेवचोच पडटलो मातयेचो' असो स्वताक धीर दिता, तेन्ना 'जळटा' आनी 'परजळटा' अर्थ नयनाक बेस्स बरे तरेन होलमला अशें म्हणचेंच पडटा.

जाल्यारूय,

**मळबां तांबशी**
**सांज पिशी**
**हांसता कशी**
**आपणाशी.**

अशी अल्पाक्षरी तरीय भौअर्थी एखाद दुसरी 'सांज पिशी' कविता सोडल्यार नयनाच्यो चडशो कविता अस्वस्थतायेची देग मिरोवपाक भूशण कित्याक मानतात हो संशोधनाचो विशय थरूंये! घडये,

**म्हज्या तुटिल्ल्या काळजाक**
**तुटिल्ल्याच काळजाचो सांगात जाय**
**घुस्मटपी म्हज्या मनाक**
**वाऱ्याची सुलूस जाय**

ही त्या प्रस्नाची जाप आसूं येता!

आनी ती अस्वस्थताय म्हणल्यार कितें निर्शेणी न्हय हाचो साक्षात्कार

घडोवपीय जायत्यो कविता ह्या झेल्यांत आसात. देखीक,

**मळबांतलो एक थेंबो**
**धतरीक मेळूंक आशेला**
**मेळपाची आस्त वाडल्या**
**देखुनूच तो भुरकुटला.**

नयनाचे कवितेंत राग, मोग, शीण, ध्यास, ध्यास्त सगलें आसा आनी तें मांडपाची धाटणी आनी उतरावळूय आसा. कल्पना आसात, तश्यो संकल्पनाय आसात, प्रतिकां-प्रतिमांचोय उणाव ना. देखीक,

**सुपुल्ल्या काजुल्यांनी**
**लक्ष-दिवे-पेटयल्यात .......**
**खेळटां खेळटां कुटुऱ्यांनी**
**रस्ते जिवे भेटयल्यात**

तेचपरी,

**तुज्या उगडासाचीं ल्हारां**
**काळजादेगेर आपटतना**
**हांवूय रेंव जातां**
**आनी**
**काळजांत तुका जागो दितां.**

अशें आसलें तरी नयनाची ही सुरवात आसा. मोगाची संवेदना निकतीच जागी जाल्या ! मोग मागीर तो कवितेचो आसूं, जिविताचो आसूं, सहजतायेन घेवपाची, मोग आनी राग, सूख आनी दुख्ख, काल्पनिक आनी वास्तव एकेच नदरेन पळोवन भोगपाची आनी पचोवपाची सवंय ताका अजून जावपाची आसा! अशा वेळार,

**अस्वस्थ मनाचे उमाळे सादयतना**
**एक अस्वस्थ असो सूर आयलो**
**जिणेचे अस्वस्थतायेक थाकाय दिवपी**
**हे अस्वस्थतायेंतच नवें मोडण आयलें**
**अस्वस्थताय स्वस्थतायेचें रूप घेतनाच**
**तो सूर खंयतरी विरून गेलो.**

अशी नयनाची अवस्था जाल्यारूय ताका कवितेची आनी जिविताचीय लांबचे लांब आनी अर्थगर्भ सैमसुंदर वाट चलतना ताचेच कवितेची याद करून दिवपाक जाय.

**तुवें लायिल्लो**
**परमळीत सुवास याद जाता**
**आनी म्हजी नदर**
**त्या परमळाक सोदूंक**
**चारय दिको थाव घेता.**

**- कमलाकर दत्ताराग म्हाळशी**

डिसेंबर २००५
ॐ श्री दत्त,
श्रीस्थळ, काणकोण - गोंय

# मनोगत

खूब किते उलोवपाचें आसता, पूण उतर फुटना आसतना मनांतले उमाळे मनांतच उरतात. अशे अबोल जाल्ले खीण कवनांचें रूप घेवन कागदार देंवतात. रानांत काट्यांच्या झाडार घुसपूवन राविल्ले ते वालीर फुलांवरी सांगांनी गुंजो रूप घेतात, रंग धरतात.

तांबड्यो काळ्या तिब्यांच्यो गुंजो जेन्ना पोश्यांत एकठांय येतात तेन्ना भोवच सोबीत दिसतात. जशे परी दाळबांच्यो बियोच. तांची रूच, तांचो रंग जण एकल्यान अणभवचो.

ह्यो गुंजो आभास घडयतात सुखाचो, दुख्खाचो, विरहाचो, मोगाचो, मायेचो अणभव विश्वाचो. घडये म्हजें अणभव विश्वय ल्हान आसत आनी ह्यो गुंजोय ल्हान पूण म्हान जावपाचो हावेस बाळगितात.

- नयना नाडकर्णी कामत

म्हजेकडेन उत्तरां नासलीं
तरी लेगीत नकळो कशीं देंवलीं
मनाच्या कॅनव्हासार !
अर्थभंगिल्लीं जांव तीं उतरां
मात्त खिणांतच घडोवन गेलीं
कांय कवनां, कांय कातारां.

मनांतल्या स्वैर विचारांक
उडपाची चालना मेळ्ळी
कांय विचारांक उतरां मेळ्ळीं
तींच कवीत - रुपांच्यो पण्ट्यो जाल्लीं
जिवीत-वाट परजळ्ळी.

विचार रूप घेतात
कवनांचें, कातारांचें, काणयांचें.
काणी मागीर विचारमय जाता
कवन लयमय जाता
मागीर विश्वाकच व्यापून उडयता
साहित्य.

अक्षर घडयता जिवीत
रुपाक हाडटा कवीत
परजळीत करता फुडार
जिविताक हाड्टा रंगार.

**बोडकें झाड : १**

ऊंच दोंगुल्लेच्या तेंमकार
उबें आसा तें झाड.
आंगार ना एकय पान
पूण आपल्या अस्तित्वाची
जाणविकाय आसा ताका
देखून रावता तें
पानेवचे खातीर  फुलचेखातीर.

## बोडकें झाड : २

नकळो त्या बोडक्या झाडाक
पानां येतलीं वा ना!
पूण सुर्याचीं कवळीं किरणां मात
येतलींच येतलीं
अशी आस्त बाळगीत
जगपी त्या झाडाक
कोणाचो आदार जाय काय
मोगाचें उदक घालपाक?
त्या झाडाचें तानेल्लें मुखामळ पळयतल्याक
दया येवची.
पूण तें लाचार जावंक ना
भिकेचे दयेखातीर
फकत तानेलां
मोगाचे झरीखातीर.

**बोडकें झाड : ३**

ऊंच दोंगुल्लेच्या तेंमकार
उबें आशिल्लें तें बोडकें झाड
आंगार ना एकय पान.
कोणाचे गरिबीच्यो भगल्यो मारता काय !

## बोडकें झाड : ४

ऊंच तेंमकार दोंगुल्लेच्या
झाडाक पळोवन हांवें म्हणिल्लें -
"तें झाड बाबडें पळय,
कशें बोडकें जालां."
मायेचो हात लायत तुवें म्हणिल्लें -
"त्या झाडाकय एक दीस पानां येतलीं."
खूब दिसांनी हांवें जेन्ना पळयलें
थंय झाडय नासलें पानांय नासलीं.

ना बेनूल्ल जावन जगचें म्हाका,
दुसऱ्याक पुरायपणान गिळून
हाराभाशेनय जगचें ना.
पूण वाल जावन जगचें आसा,
आदार घेवन दुसऱ्यांचो.
एक दीस तरी हांव झाड जातलें काय?
स्वतंत्र अस्तित्व तिगोवचे खातीर.
पूण थंयय आदार घेवचोच पडट्लो
मातयेचो.

माड धोलतालो
तेन्ना रेंदेर कांतार म्हणटालो.
काय रेंदेर गायतालो
म्हूण माड धोलतालो?

वसंताक आयला भार
रुखारुखान आपणायला
परमळाचो ताल.

मळब तांबशें
सांज पिशी
हांसत कशी
आपणाशीं

आयज हांव दिवलेंतली
वात जावन जळटां
वात जळटा तितलें
जिवीत म्हजें परजळटा.

रातराणये, सांग म्हाका
कसलो तुका शाप गो?
सकाळ जायनाफुडें तुजो
उडून खंय वता वास गो?

आबोल्या, गो आबोल्या,
तुवें मोग ना उक्तायलो !
तरी तुजो मोग म्हाका गो कळ्ळो
पूण हांव मात्त तेन्ना अबोलच जाल्लों!

आबोल्या गो आबोल्या
तूं आबोलेंच उरलें
मनातली प्रीत सांगिनासतना
जिवीत तुवें करपयलें !

आबोलेच्या ओंठांतलें
गुपीत कोणाक ना होलमलें
देखूनच काय कोण जाणां?
आबोलें अबोलच उरलें !

आबोल्यांचो झेलो
माथ्याक तुज्या माळ्ळो
तुका तो दावलो
मोग म्हजो चंवल्लो.

रुपयाचें मोल जाणचे खातीर
आयज हांव भायर सल्लां
स्वावलंबी जावपाचो विचार आसा मतींत
कारण, म्हाका रुपयाचें मोल कळ्ळां
देखूनच जपून मोडूंक शिकलां.

हुड्टात सपनां सवण्यांवरी
धरूंक पावनांत हात
सपनांय करपतलीं पत्र्यावरी
देखून तुका ध्यास्त !

सजयल्ल्या सपनांचें
धापलें तुवें दार
तातूंतच बुडलें सगळें
सोंपलें सगळें अर्थसार.

भक्ती ना मनांत तुज्या
तुवें हात ना जोडले
पूण देवूळ येतांच वाटेर
ते काळजालागीं कशे कितें जुळ्ळे?

म्हज्या तुटिल्ल्या काळजाक
तुटिल्ल्याच काळजाचो सांगात जाय
घुस्मटपी म्हज्या मनाक
वाऱ्याची सुलूस जाय.

एक काळीज तुटिल्लोच
घडये दुसऱ्या काळीज तुटिल्ल्याची
व्यथा समजूंक शकता
हे बाबडे समजुतीचेर
म्हजें जिवीत सरता.

संवसाराच्या सारीपाटार
खेळूंक बशिल्लीं आमी डाव
तूं गेलो सोडून अदूर्यार
आयजूय तश्शी ताजी माव.

मळबांतलो एक थेंबो
धर्तरीक मेळूंक आशेला
मेळपाची आस्त वाडल्या
देखुनूच तो भुरकुटला.

रेंवेंवेलीं पावलां
चित्रायत आयलीं सपनां
ल्हारांच्या फेणेरान
पुसून उडयलीं सासणां.

सपनां फुलयत दोळ्यांत म्हज्या
लग्नाचे काळे मणी तुवेंच ओंवले
आनी तुवेंच तोडले
सपनां भंगयत दोळ्यांतलीं म्हज्या.

गोकर्णीच्या फुला,
तूं शंखावरी दिसता
तुकाच पळोवन, म्हजो
मोग जिवो उरता.

होटयेंत पुंजायिल्लीं ओंवळां
गांथल्यात वावळेर
एक एक सपन जोजयत
सपनांचो बंगलो सजयत.

भंगिल्ल्या सपनांचीं
उक्तींच उरल्यांत दारां
आयज हांव जळयतां तांचीं
विदिर्णा जाल्लीं बोंदेरां!

सजयिल्लें नातें हांवें
रस्माच्या धाग्यांनी
तुवें तें कांयच न्हय करून तोडलें
शीण-रागाच्या घोग्यांनी.

हांसच्या तोंडावेल्यान
मनशांची खुशालकाय नदरेक येता
पूण ताच्या पेल्यान आशिल्लें
दुख्खाचें रुपडें कोणाक दिसता?

मळबांतल्या उदकाचेर
आयज आयला भार
दोळ्यांतल्या दुकांचेर
तसोच आयला सांवार !

झाडार जियेता बेनूल्ल
जीव ताचो खावन
मात्त घेवची न्हय कोणें ही देख
असो दुसऱ्याक भार जावन.

हांव तुजेर मोग करतां
देखुनूच तुकां रडयतां
पूण जेन्ना तूं रडटा
तेन्ना हांवच विरघळटां.

उमाशेचे काळखेरातीं
सुपुल्ल्या काजुल्यांनी
लक्ष दिवे पेटयल्यात
म्हज्या मोगा सर्रीं वचूंक
खेळटां खेळटां कुटुऱ्यांनी
रस्ते जिवे भेटयल्यात
म्हज्या मोगा सर्रीं वचूंक.

कांय वेळार इश्टागत जोडूंक
वरांचीं वरां लागतात
पूण ती तोडूंक
सेकंदय चड जातात.

सैमपिशें मन म्हजें
भोंवता तुजे आशेन
येता येना, येता येना
गाल लजतात तांबशेवन

परतून एकदां म्हाका
तीच वाट चलपाची ना
तुकांय सपनांत रंगोवपाचें ना
म्हर्जीय सपनां भंगोवपाचीं नांत.

आमच्या कुळागरांतल्यो सुपाऱ्यो
खावंक आयल्यात चानयो
फुलयत खेळयत केंसारो
रुखावळींत सोबतात राणयो.

पानां करपतना येवपी धुंवराचो वास
खूब किर्ते जागयता
तिगयता भुरगेपणांतली याद.

तूं म्हजेसरीं येवचो न्हय म्हूण
हांवेंच म्हजे भोंवतणीं आडो घालो
पूण आड्यावेल्यान नदर पावता
हाचें सार तुवेंच म्हाका सांगलां.

आरे आरे तांबड्या चाफ्या,
तूं बेठोच हालल्यार मोडटा
पूण तुजीं तांबडीं चाफीं
मात्त सदांच मतींत उरतात.

झाडार फुलिल्लीं फुलां
कांय झड्टात, कांय सुकतात
अशेंच दर एकल्याचें जिवीतय
झडचे खातीरच आसता.
पूण तें झडचे आदीं
आपणें आपल्याक
सोदून काडचें आसता,
मेजून मापून घेवचें आसता.

तोंडासारकें मनय तुजें
काळें म्हूण नकळो हांव
दर एक कर्तुबच तुजें
काळें फासून व्हगडायता नांव.

मळबांतसून पडपी उदका थेंब्या,
दोळ्यांत म्हज्या पडूं नाका.
गळपी म्हज्या दुकांत,
आनीक भर घालूं नाका.

म्हज्या शब्दाचो अर्थगर्भ
जेन्ना मस्तकांत रुजलो
तेन्ना शब्दगर्भ साहित्याचो
कवीत रूपान जल्मलो.

आसगांवच्या ह्या ल्हान गांवांत
सुपुल्ल्याश्या म्हज्या घरांत
शांतीचें कुळार
मोगाचो पावस.

वाती वाती, करपूनच
जिवीत तुजें सरचें आसा
फकत दुख्खांच वेंचीत घडये
जिवीत म्हाका सारचें आसा.

वात पेटयल्या मेणाची
तिवूय आसतली खिणाची
उजवाड दितली खिणांची
रास मात्त जातली मेणाची.

वात पेटयतां हांव
तुजें जिवीत थातारूंक
म्हजो जावंदी गोबर
तुजें जिवीत सावरूंक.

तुवें मोग मागलो तेन्ना
हांवूच पयस गेलें
हांवें मागलो मोग तेन्ना
तुवेंय तेंच केलें!

तुका गुलाब दितना
कांट्यांचेर हांव हात धरतां,
तुकां कांटे लागचे न्हय म्हण जतनाय घेतां.
पूण तुजोच हात कांट्यांचेरच कित्याक?
म्हाकां कांटे लागचे न्हय इतल्याक?

मन म्हजें अशें कशें
तुजे यादींत घुस्पलां
काळीज तोडूंक येना
मन सोडोवंक जमना.

खंयचेतरी काळखे रातीं
देखलीं हांवें जोगलावणी उजवाडाचीं किरणां
वेंगांवंक गेल्यार पयसाविल्लीं नातीं
भोगप चल्लां हालीं असलींच मरणां !

तुज्या उगडासार्ची ल्हारां
काळजादेगेर आपटतना
हांवूय रेंव जातां
आनी
काळजांत तुका जागो दितां.

तूं टवटवीत आसलें
कोर्णेतरी तुका आफुडलें
आनी तूं लजलें
तेन्नाच्यान लजेझाड
नांव तुकां पडलें.

सकाळच्या पारार
पोटलो एकठायत रावलों
सांजमेरेन तो भरलोच ना
खोंटलो रितोच उरलो!

पिसुडिल्ल्या खिणांक
पिसुडिल्लेच भावनेन
पिसुडिल्ल्योच यादी पुंजायतां
पिसुडिल्ल्याच मनान.

केळी, तुकां एकूच गाबो,
गाब धरले उपरांत
दर एकलो संवसारांत
तुकां चिरता उबो.

कथा कोणाची
व्यथा मनाची
जिवाक भुलोवन गेलो.
सुक्या म्हज्या दोळ्यांनी
दुकां दिवन गेलो.

त्या थोर कवींच्या
कवितेंतली शब्दकीट
काळजाकड्डार पडली
येदीशी कीट आसली
पूण कवितेक जल्मोवन गेली.

निर्शेणीच निर्शेणी
जशी काळखान भरिल्ले
तोंड नाशिल्ले मडकेंत बंदिस्त
हांवें तिका मुक्त केल्या
पूण हड्डून वचूंक तयार ना
कर्मकट्टी पाडपडिल्ली!

झाड म्हण्टा तणाक
'तूं कितलें गो ल्हान?'
तण म्हण्टा झाडाक-
'उदक नासून तूं मरता,
मात्त हांव पुनर्जल्म घेतां,
देखून हांव म्हान.'

मनांतलीं सपनां
सोदतात वाट
तांतलीं कांय खरीं जातात
तेन्ना हांव सोडटां सांगात.

हांवें म्हज्या भावनांक
बांद घाला
भावनांचो झरो तुजेमेरेन पावसर
म्हाका खंय पत्तो लागला?

तुजेसरीं येवपाक
तुजी जात म्हाका आड येता
जाती पेल्यान मनीस आसा
ताचो थाव हांव खंय घेतां?

शेरवडाचें पान गर्वान म्हण्टा-
'हांव सगळ्यांच्याकूय गोरें'
बाकीचीं पानां ताका म्हण्टात-
'तूं उजळ्ळां,
देखून तुजें आंग जालां धवें.'

तुज्या भावनांवेल्यान
तूं म्हाका भुरगेंच दिसता
यादींच्या करंडांत
व्हड जावंक सोदता.

तूं म्हजेकडेन उलयचना
म्हण शिण्टा
पूण जेन्ना तुजें एकूच उतर आयकतां
तेन्ना आनीक आयकूंक आशेतां.

उर्बेचीं उतरां
काळजांत शिजतालीं
कागदार देंवतालीं
अचळय.

तुवें लायिल्लो
परमळीत सुवास याद जाता
आनी म्हजी नदर
त्या परमळाक सोदूंक
चारय दिको थाव घेता.

मोग म्हजो कितलो पिसो,
कित्याक आशा तुजी करता?
तूं मेळचो ना हें खबर आसूनय
तुकाच आपणावंक आशेता.

मोगा तूं म्हाका
म्हजोच कसो दिसता
कित्याक तूं ह्या दुबळ्या काळजाक
रडोवंक आपलें भाग्य समजता?

न्हिदलें म्हणटकच तूं सपनांत येता.
तूं सपनांत येवचो न्हय म्हण
दोळ्यांवयल्यान हांव पांगरूण ओडटां.
पूण केन्ना तूं काळजांत देंवता!
नकळटना!

मोग तुजो कसलो देव जाणां
दर खीण रडयतच वता
हांव रडलें तरी तुजें काळीज विरघळना ?
हो प्रस्न सोडयत जीण सरता.

वाऱ्याचेर झाडार धोलपी पानाक
केदें व्हडलें गर्व आसता,
ग्वांदयेवयल्यान गळून भूंयभरवण जाता तेन्ना
तार्चे अस्तित्वच ना जाता!

तुका हांवें पुजलो
मोगाचो अभिशेक घालो
फातर म्हण कळटकच
पयस भिरकटावन माल्लो.

कितलें म्हण हांव तुका सतयन
राग येता तेन्ना हांव
स्वताक जळयन.

अस्वस्थ मनाचे उमाळे सादयतना
एक अस्वस्थ असो सूर आयलो
जिणेचे अस्वस्थतायेक थाकाय दिवपी
हे अस्वस्थतायेंतच नवें मोड्‌ण आयलें
अस्वस्थताय स्वस्थतायेचें रूप घेतनाच
तो सूर खंयतरी विरून गेलो.

एक सूर सादयतना
वेदना काळजाक भिडपी अशे
उमाळे दाटले काळजांत
दुकां थेंबे दोळ्यांत
मोनी व्यथा काळजांत.

सूर मोन्या काळजाचे सादयतना
मोनी व्यथा जाता मोनीच
हो मोनेळ सोसना
देखून काय किर्ते ही,
बडबडपाचीं सवंगां?

तुजें आनी म्हजें नातें
रगताच्या नात्या परसय व्हड
पूण तें सांबाळपच
तुका जालें जड.

तुका रगत आयल्यार
म्हजें काळीज कलकलतालें
म्हज्यो भावना दुखावल्यार
चित्त तुजें शेणटालें.

देवाच्या मनांत आसल्यार
तुटिल्लें नातें लेगीत घड्टा
मनशाचें नशीब फुटल्यार
जुळिल्लें नातें लेगीत तुट्टा.

मोग मोग मोग
लागता हो रोग
जेन्ना पेट्टा हो फोग
तेन्ना लागता हो रोग!

म्हज्या कुसव्यांत तूं आसा
हाची जाणविकाय जाता
तेन्नाच म्हजें मन
तुजीं सपनां पळयता.

तूंच म्हजें बाळक
तूंच म्हजें साळक
तूंच म्हजें सुखदिणें
मोगाचें रूपक.

पिटू पिटू पिटू
तूं हांसलें.
लुटू लुटू लुटू
तूं चल्लें.
बाऽब बाऽब बाऽऽबा
तूं पयलें उतर उलयलें
आयकतना मन म्हजें सुखावलें
तेन्नाच अचकीत
हांवें तुका वेंगायलें.

गुलाबाचें फूल जेन्ना देखता,
तुजोच उगडास काळजांत दाट्टा.
पाकळी पाकळी विसकट्टा तशीं,
दोशी आमी कित्याक जाता?

मोग म्हळ्यार कितें?
सूख काय दूख्ख?
ह्याच मोगाक लागून पड्टा
दोन समाजांत फूट.

मोग म्हळ्यार कितें काय?
आमच्या अंतरमनाचो उलो?
म्हाका दिसता ह्याच मोगान
म्हाका अर्दमेलो केलो.

आयज हांव
म्हाकाच सोदूंक भायर सल्लां
केन्नाय तरी गावतलें
ही आस्त मतींत धरून.

व्हांवते न्हंयक आयज
बांद कोण घालीत काय?
तुवें भिरकटायतकूच फातर
जिणेंत ल्हार उठत काय?

रूप जरी नासलें तुका
गूण पारखूंक म्हाका मन दिलां
हांवें गूण पारखिल्यात
रुपाची आयज गरज ना.

जीण जोडचे खातीर
इश्टागत आसता जोडची
माफी नाशिल्ली इश्टागत
मात्त म्हाका केदींच ना करची.

मोगाची संवेदना
तुका पळोवन जागी जाली
मोग तुटिल्ल्याची भावना
तुज्या विरहान म्हाका कळ्ळी.

सजयल्लें नातें
सुखाच्या धाग्यांनी.
तुटिल्लें नातें
दुकांच्या पाटांनी

सपनांत गुंथिल्ले काळेमणी
सत्यांत जेन्ना येतात
जिणेची सांज जाता
मरणाचें ध्यान लागता.

नयनाचे कवितेंत
राग, मोग, शीण,
ध्यास, ध्यास्त
सगळें आसा
आनी तें मांडपाची
धाटणी आनी
उतरावळूय आसा.
कल्पना आसात,
तश्यो संकल्पनाय
आसात, प्रतिकां-
प्रतिमांचोय उणाव
ना.



ISBN NO. 81-902817-8-X